# पंकज



शीला कोळंबकार







भूमि प्रकाशन
सावर्शे, सत्तरी - गोंय

पंकज

बाल साहित्य

© शीला कोळंबकार

प्रकाशन क्र : 3

पयली उजवाडावणी
16 जानेर 2005

प्रकाशक:
श्री. अभिजीत झि. गांवकार
भूमि प्रकाशन,
सावर्शे – सत्तरी गोंय.
फोन : २३६४९११

छापणावळ:
मल्लिकार्जून ग्राफिक्स,
होंडा, सत्तरी–गोंय.

अक्षर जुळवणी:
सौ. आर्यन श्याम गांवकार
'हाऊरी'
कारापूर, सांखळी.

मुखपृष्ट आनी चित्रां:
श्री. गणेश शेटकार,
केरी, सत्तरी – गोंय

मोल: रु. 35/-

Pankaj

Chlidren's Literature

© Sheela Kolambkar

Publication No. 3

**First Edition**
16 January 2005



**Publisher**
Shri Abhijit Zilu Gaonkar
Bhumi Publications
Savorshe, Sattari - Goa.
Phone: 2364911

**Printers**
Mallikarjun Graphics
Honda, Sattari - Goa.

**Typesetting**
Smt. Aaryan Shyam Gaonkar
"Hourie"
Karapur, Sankhali Goa.

**Cover Page and Sketches**
Shri Ganesh Shetkar
Keri, Sattari - Goa.

Price: Rs. 35/-



*हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'बाल साहित्य प्रकाशन' अनुदान येवजणेखाला छापलां.*




# पंकज



एक आसलो भुरगो. ताचें नाव पंकज. ताका सकाळीं उठूंक आवड नासले. उठल्या उपरांत दात घासूक वाज येतालो. दात घासले काय दूद घेतल्यार ताका ओकूंक येतालें.

सादें दूद घेवंक ताका आवडना म्हूण, जायरातींनी दाखयता तसले दूद ताका मम्मीन हाडून दिलें. उमेदीन चार पांच दीस ताणे ते घेतले. मागीर त्या दुदाच्यो बाटल्यो तश्योच पडून उरल्यो.

मागीर ताचे मम्मीन, ड्रिकींग चॉकलेट हाडून दिलें. चार दिसांनी ताचो ताका वाज आयलो. मागीर बॉर्नव्हीटा, कॉम्प्लान बी सगळें जालें.

मम्मीन ताका जेवंक यो म्हळें. हो येयनासलो. कितेय खा म्हळें. खायनासलो. मम्मी बाबडी म्हण्टाली. 'पंकज, तुजे आवडीचे डोसा केल्यात, खा रे!'

'तुका कोणे कर म्हणिल्ले?' पंकज तिका म्हणी. बाबडे मम्मींचे तोंड इल्लेशें जातलें.

शाळेंत वचूंक ताका आवड नासलें. अभ्यासाच्या पुस्तकाक पळेल्यारूच ताका न्हीद येताली. खेळूंक वच्चें म्हळें तरी ताका खेळूंक वाज येतालो. काणयांचीं पुस्तकां वाच म्हळें तरी ताका वाज येतालो. ताका सगळ्याचोच वाज येतालो. तो दिसूयभर वाजे-वाजे वाजेतालो. ना म्हळ्यार ताका एक गजाल मनापासून आवडटाली, ती म्हळयार टी.व्ही. पळोवंक. टी. व्ही. सामकार रात-दीस बसून राव म्हळयार बसून रावची ताची तयारी आसली.

मम्मी ताका सांगी पंकज, 'शाण्या भुरग्यावरी वाग रे.'

'कितें पिसो गे हाव ?' पंकज विचारतालो.

'तशे न्ही रे! पूण तूं, शाळेंत बी वचूंक तयार ना'.

'शाळेंत कित्याक वचप गे ?'

'शिकूंक.' मम्मीन म्हळे.

'शिकूंक जाय कित्याक ?'

'शिकून व्हड जावपाक', मम्मीन सांगलें.

'व्हड जातकीच कितें करप ?' पंकजान विचारलें.

'नोकरी करप, पयशे जोडप.'

'शिकता ते कितें पयशे जोडूंक ?' पंकज.

'आनी कित्याक तर ?'

'व्हड जावन पयशेच जोडचे आसा जाल्यार ताचे खातीर शिंकूक जाय कित्याक ?'

'शिकनासतना तू पयशे कशे जोडटलो ?'

'हाजी मस्तान खंय शिकिल्ले ? दाऊद इब्राहीम खंय शिकला? हर्षद मेहता खंय चड शिकला ? तांणी कितले पयशे जोडले पळे. महाराष्ट्र सरकार एका म्हयन्याक जितले पयशे आपल्या पोलिसांचेर खर्च करता तितले कोटी तो दाऊद आपल्या गुंडांचेर पयशे खर्च करता. हर्षद मेहतान पांच हजार कोटींचो घोटाळो केलो. तांतुतल्या एका कोटीचो हिशेब मेळ्ळो. बाकीचो हिशेब ? .... मम्मी, हांव तुकां सांगता, शिकचो आनी पयशांचो कायं संबंद ना'. पंकजान सांगले.



'आरे, पयशांखातीरच लोक शिकता अशे न्ही रे! पूण मनशाचो विकास जावंक जाय न्ही?' मम्मीन म्हळें.

शिकून मनशाचो केन्ना विकास जाला? शिकिल्ले लोक कितें करतात तें पेपरांत वाचीना? शिकिल्ली, दोतोर आशिल्ली आवय आपल्या भुरग्यांक मारून उडयता. कितलेशेच प्रोफेसर आपल्या बायलांक मारून उडयतात. हे सगळे शिकिल्ले न्ही गे? पंकजान विचारले, मम्मीकडेन हाचें उत्तर नासलें.

'आरे, सगळो लोक शिकता म्हूण आपणे शिकचें. जिणेची गाडी जे स्पिडीन धावता न्ही ते स्पीडीन आमी धांवक जाय. ना जाल्यार आमी फाटीं पडचीं नात? मम्मीन विचारलें.

'पयशें जोडूंक शिकपाची गरज ना, हें पटूटा मगे तुका?'

म्हाका तर एकूय पयसो जोडची गरज ना. आज्यान इतलें जोडून दवरिल्लें आसा! इतलें सगळे उणें, म्हूण तूं आनी पप्पा जोडटा. तुमचे फाटल्यान तें सगळें म्हाकाच मेळटलें न्ही गे?

'मागीर तूं करतलो तरी कितें?' मम्मीन ताका बेजारुन विचारलें.

'कितेंय....'

कितेंय, म्हळ्यार कितें?

'म्हाका सारकें खबर ना.' पंकजान म्हळें.

तुका सारकें खबर ना, जाल्यार आवय-बापूय सांगता तें तरी आयकुचें.' मम्मीन म्हळें.

'तुमी आवय – बापूय कितें सांगतात?'

'शिकूंक जाय, शिकले काय तुमी म्हण्टा कितले कमी मार्क.... चड मार्क हाडूंक जाय. चड मार्क जाय म्हूण मागीर चला क्लासाक खंयच्या क्लासाक? म्हूण विचारल्यार तुमकां जाय त्या क्लासाक ! म्हाका जाय त्या क्लासाक न्ही. म्हाका क्लासाक वच्ची गरज ना. तरी तू हांव फाटल्यान पडू नज म्हूण म्हाका क्लासाक धाडटा.'

'आरे, आमी हें सगळें तुज्या बऱ्याकूच करतात न्ही रे पुता?' मम्मी.

'आसत तशेंय आसत. पूण आमकां बऱ्याक पडना गे?' पंकज.

'बरें! बरें!! फाल्यांसान तूं क्लासाक वचूंक नाका. घराच शीक. तुजेकडेन जाता तितलो, जाय तितलो अभ्यास कर!' मम्मीन म्हळें.

'पूण तुमी क्लासाचे अडेच हजार रुपया भरल्यात न्ही गे? हांव क्लासाक गेलो ना, म्हूण पप्पाक कळत जाल्यार, पप्पा घर माथ्यार घेवचो ना? 'दुडू कितें फुकट येतात? आमी मर मर काम करतात. पयशे जोडटात आनी हो पयशांचो धुंवर करता. पोराक पयशांची किंमतच खबर ना.... पांच पयशे जोडून दाखय.... मागीर पळेता.... आनी वेल्यान तुकाय गाळी खांवच्यो पडटल्यो होलसेलान... तुवें वाट लायल्या ताची.. ताका माथ्यार बसोवन

दवरला. तुवेंच ताची अपुरबाय करून लाड केल्यात. तुज्या भावाचे बडीर गेला'. मम्मी, पप्पाचे डायलॉग पाठ आसात मगे?' पंकजान ममीक विचारले.

मम्मी ओगी रावली. मम्मीचो खूब विरूस जालो. तिका कळना जालें हाचेर कितें उलोवपाचें तें!

मम्मीन चिंत, चिंत चिंतलें. कितें करचें आतां? पंकजाल्या पप्पाक सांगीत जाल्यार? ते आनी एक टेन्शन घेवन बसतले. आपलो पूत आनी अशें चिंता? तांकां तें पटचें ना. पंकज केन्नाचो पोर? तो आनी असलें उलयतलो? तूंच कितें तरी सांगता आसतली... त्या टेन्शनान शिगारां फुकूंक आनी पिवंक तांकां आनी एक कारण करचें कितें? निमाणो तिका एक उपाय गावलो. तिणें पंकजाच्या आज्याक सगळी जाल्ली खबर एक शब्द लेगीत सोडिनासताना बरयली.

पत्र पाविल्ल्या चार दिसांनी आजो-आजी पंकजागेर आयलीं. आजी-आज्याक आपल्यागेर पळोवन पंकजाक अजाप जालें. पंकजाल्या पप्पा – मम्मीकूय अजाप जालें.

'बाबा, आई, तुमी अकस्मात, कांय कळोवचे पयली कशीं आयलीं'? पंकजाच्या पपान विचारलें.

'काय ना रे, म्हाका आनी हिका मात्शें तपासून घेवचें आसले म्हूण आमी आयलीं.' आज्यान म्हळें.

'बाबा, आई बरें ना तुमकां?'

'तशें न्ही रे. अशेंच नॉर्मल चेकअप.'

आजो – आजी येतकीच घरचें वातवरण मात्शें निवळ्ळेवरी जालें. आजी – आज्याचे रूटीन चेकअप जालें. सगळें सारखे आसलें. खंयच काय गडबड नासली. चार दीस रावन आजो – आजी गांवाक वचूक तयार जालीं.

वतना पंकजाक पंधरा – वीस दिसांखातीर व्हरता म्हणूक लागलीं. पप्पान हरकत घेतली. एकतर एका सुमानान शाळा सुरू जावपाची आसली, दुसरी गजाल क्लास चुकपाचो. तिसरी गजाल पुस्तकां, दप्तर, युनिफॉर्म बी हाडूंक जाय. पप्पान ही येदी व्हड पंकजाक न धाडपाची वळेरी तयार करून दिली.

पूण आज्यान एक आयकलें ना. आमी ताका व्हरतलें म्हळ्यार व्हरतलेच. .. आज्यान सांगलें.

'बाबा, पंकज आमचो एकलोच पूत. ताचेबगर आमी कशे रावतले?' पप्पान विचारलें.

'तुजे बगर आमी कशे रावतात, तशे..' आज्यान सांगले.

'शाळेक सुटी पडली काय म्हयनोभर गांवात येवन रावात अशें आमी तुमकां सांगतात. तुमी केन्ना आयले ताका घेवन म्हयनोभर रावंक? तेन्ना तो ल्हान आशिल्लो. आता व्हड जाला. आता तरी पंदरा दिसांचे गजालीक ताका घेवन वचूं दी...' आज्जेन म्हळें.

'आई, तुका इतले त्रास...' पप्पान निमणो प्रयत्न केलो.

'म्हाका रे कसले त्या पोराचे त्रास? उलट ताचोच आमकां आदार!' आज्जेन म्हळें.

'बरें तर! पंकज येता जाल्यार तुमी ताका घेवन वचात,' पंकजाल्या पप्पान म्हळें.

'पंकज, तूं गांवांत येवंक तयार आसा'? आज्यान विचारले.

'एका पांयार!' पंकजान म्हळें.

पंकजाक ताचो आजो आनी आजी घेवन गांवात आयलीं. पंकजाल्या आज्याचें व्हड घर आसलें. घराक तेकून भाट आसलें. इतल्या व्हड घरांत






आजो आनी आजी दोगांच रावतालीं. आज्यान आपल्या कुडीलागीं आशिल्ली कूड पंकजाक दिली. तातूंत टीव्ही आशिल्लो. बाथरूम संडास आशिल्ले, फ्रिज आशिल्लो आनी कुशीक बाल्कनी आशिल्लीं. आज्यान पंकजाक ताची कूड दाखयली.

पंकजान फ्रिज उगडून पळेलो. तातूंत आंबे, पेरां, अणसांचीं कापां, चिकू, चॉकलेटी, सॉफ्ट ड्रिंक आशिल्ले. आज्यान पंकजाकडेन टि. व्ही. चो रिमोट दिलो आनी ताका सांगलें,

'पंकज ही तुजी कूड. तूं जाय तितलो टी. व्ही. पळय. तुका कोण कांयच म्हणचोना. जेवण जेवीन दिसलें जाल्यार रांदचे कुडीत यो. हांगा जेवचें आसल्यार, हांगा बसून जेव. चल. मजा कर.' इतलें सांगून आजो भायर गेलो. पंकजान दार बंद केलें.

पंकज 'या ऽऽ हू!' म्हूण आडूडलो. गादयेर पडून चार लागोट्यो मारल्यो. फ्रिज उघडून सॉफ्ट ड्रिंक काडलें. चॉकलेट खाली. गादयेर बसून ड्रिंक पिवंक लागलो.

आज्यान आपलें उतर पाळ्ळे. पंकजाक तांणी खऱ्यानीच कांयच

म्हणूंक ना. सेगीत तीन दीस पंकजान टी. व्ही. पळेलो. मागीर ताका वाज आयलो. चवथे दीस तो उठून भायर आयलो. आजो भाटांत आसलो, आजी तुळशीक उदक घालताली. ताका भायर आयिल्लो पळोवन आज्जेन



विचारले.

'पंकज, भूक लागली?'

'हय.'

'कितें खातलो? कितें करू?'

'तुवें कितें केल्लें आसा?'

'पोळ्यांचे पीठ आसा. पोळे करून दींव?'

'दी.' पंकजान म्हळे.

आज्जेन बेगीबेगीन पोळे केले. चटणे बरोबर पंकजान आवडीन पोळे खाले.

'आई, बाबा खंय?'

'भाटांत गेला. आंब्याची कलमां लावंक.'

'बाबा कित्याक गेला? मानाय ना तर?' पंकजान विचारले.

'आपलीं झाडां आपणेंच लावंक जाय. मानायावांगडा धनी घोळत जाल्यार मानाय बी आळस झाडून काम करतात.' आज्जेन सांगलें.

'पूण आई, ही आंब्याझाडां व्हड जातलीं केन्ना? ताका आंबे लागतले केन्ना आनी बाबा आंबे खातलो केन्ना?' पंकजान विचारलें.

'कित्याक आमच्या फाटल्यान तुमी ना? तुमी ताजे आंबे खांवचे'.

'पूण कश्ट करचे बाबान आनी आमी सुसेगाद फळां खांवची हो खंयचो न्याय'? पंकजान विचाल्ले.

'हो देवाघरचो न्याय. आपणें आपले खातीर जगचें आनी दुसऱ्या खातीर बी जगचे. सूर्यनारायण पळय सदांच सकाळी उदेता सांजेर मावळटा. 'हांव, सदाच कित्याक उदेंव', अशे ताणें म्हणीत जाल्यार कशें जातलें?' इतलें म्हूण आजी हांसली.

'आई. तू कित्याक हासली?' पंकजान विचाल्लें.

'सूर्यनारायण म्हळें आनी म्हाकां एक काणी येवजली.'

'कसली काणी?'

'तुकां आयकची आसा?'

'हय.'

'पूण राव! ताचेपयली एक गजाल करुया.'

'कसली ती?'

'चल म्हजेबराबर.' अशें म्हुणून आज्जेन कुकमाकरंड वांगडा घेतलो. कागदार इल्ली साखर घेतली. आनी पंकजाक घेवन ती भायल्या सालांत

आयली. भायल्या सालांत एका कोनशाक तिणें बोट दाखयलें.

पंकजान थंय पळयले. ताका थंय कोनसोभर काळें काळें कितें दिसलें.

‘कितें तें?’ पंकजान विचारलें.

‘तूंच वचून पळय.’ आज्जेन म्हळें.



पंकजान वचून पळयले. पळयत जाल्यार कोनसोभर काळ्यो काळ्यो मुयों. आनी त्यो धवें धवें कितें तरी घेवन वतात. ताचेविशीं ताणें आज्जेक विचारलें. तिणे सांगलें –

‘ह्यो धाकल्यो काळ्यो मुयों आसात न्ही, तांकां वावराडी मुयो म्हण्टात. त्यो मात्श्यो मोठ्यो आसात त्यो शिपाय मुयो. आनी ती राणी मूय. ती तांतयां घालता. वावराडी मुयो ती तांतयां उबोवंक घेवन वतात. शिपाय मुयो तांच्या कामार नदर दवरतात.’

‘तूं आता कितें करतली? इतक्या मुयांक कशी मारतली?’ पंकजान आज्जेक विचारलें.

'शे! तांकां मारची गरज ना. साखर, हळद, कुकुम घालो काय आपशीच वतल्यो त्यो. तुका ती सूर्यनारायणाची काणी आयकुंक जाय आसली मरे? आयक तर....'

सूर्यनारायण सद्दा सकाळीं उठून वता. सांजेर घरा येता. एकूय दीस विसव घेना. वर्सा कणकणी अशें चल्ला. एक दीस सूर्यनारायणाले बायलेक दिसले, देवान एक दीस तरी घरा रावचें. कामाक वच्चे न्ही. तिणे तशें सूर्यनारायणाक सांगले.

सूर्यनारायणान म्हळें, 'देवी तू असलीं पिशेपणां म्हाकां करूंक सांगू नाका'.

'कित्याक देवा'? तिणें विचारलें.'

'धरतरेवेल्या लोकांक उजवाड दिवप. तांचें पोटभरपाक आदार दिवप हें म्हजें काम. म्हाका म्हजें काम नेमून दिल्लें आसा. आनी नेमून दिल्लें काम करूंकच जाय'.

'म्हळ्यार सगळ्यांचे पोट भरचे काम तुमी करतात?' तिणे विचारलें.

'हय देवी! सगळ्यांचें. मुयेंचे लेगीत.'

सुर्यनारायणाच्या बायलेक दिसलें, हांची परिक्षा घेवची तिणें कितें केले सुर्यनारायण उठचे पयलीं धर्तरेर आयली. एक मूंय धरली आनी आपल्या कुकमा करंडात लिपयली. सदावरीच सुर्यनारायण उठून कामाक गेलो सांजे घरां आयलो बायलेन विचारले 'देवा आयज सगळ्यांक जेवण दिलें?'

'हय देवी.'

'पळयात, सारखो विचार करून जाप दियात.'

'हय. हांवें सगळ्यांक जेवण दिलां. कोणाकूच सोडूना.'

बायलेन म्हळें. 'ना देवा. तुमी आयज एके मुयेक जेवण दिलें ना.'

'ते मुयेक लेगीत हांवे जेवण दिला'. सूर्यनारायणान म्हळें

'खयचे मुयेक'? तिणे अजापून विचाल्ले.

'ते मुयेक जिका तुवें कुकमाकरंडात लिपोवन दवरल्या.'

'तिका तुमी खंय जेवण दिलें?'

'ना कशे? सकाळी दासीन जेन्ना तुका अक्षता लायल्यो तेन्ना एक दोन तांदूळ कुंकुमाकरंडात पडिल्ले. तांतलो अर्दो तांदूळ ते मुयेन खालो. अशे तरेन सूर्यनारायण आनी ताची बायल हांचे मदी केन्ना केन्ना 'तूं तूं – मैं मैं' जाता. आज्जेन काणी सांगून सोपयली.

'कुंकमा करंडातल्या मुयेक खावंक मेळ्ळें. पूण आमच्यो मुयो खंय गेल्यो तर?' पंकजान पळयले, थंय एक – मूय नाशिल्ली.

'पंकज, उठ आतां. आजो तुजे कपडे घेवन भाटांत गेला. तुकाय बी थंय धाड म्हळां. चल वच.' आज्जेन सांगले.

'पूण हांव कसो वचूं? म्हाका वाट खंय खबर आसा'? पंकजान विचारलें. आज्जेन एका मानायावांगडा पंकजाक आजो आशिल्लेकडेन धाडलो.

आजो ताका घेवन देवळाकडेन गेलो. देवळा म्हऱ्यात तळी आसली. थंय ते तळयेंत पंकजापरस ल्हान ल्हान भुरगीं तळयेंत उडयो मारतालीं. पेवन दुसरे कुशीक वतालीं परथून येतालीं. पंकजाक मजाच दिसली. इतलो तेप ताणे टी.व्ही. वेले स्विमिंग पळयिल्लें. आनी स्विमींग पूल पळयिल्ले. तळयेची ताका याद पसून नासली. पंकज पेवंक शिकिल्लो. पूण एक वर्स स्विमींग पुलांत एक चलो बुडून मेलो म्हूण मम्मी ताका स्विमींगाक धाडी

नासली.

'बाबा, आमी तळयेंत न्हावया?' पंकजान विचारलें.

'चल न्हावया! उदक तुका थंड लागचें ना मरे?' आज्यान म्हळें.

'लागले जाल्यार लागलें. म्हाका पेवंक शिकून पांच वर्सां जालीं. मागीर मम्मीन उदकांत पांय लेगीत घालूंक दिवंकना.'

'काय नज! आयज मात्शी आमी प्रॅक्टीस करूया,' आज्यान म्हळें.

पंकजान कपडे काडले. आज्यानूय आपले कपडे काडले. आजो आनी नातू ल्हवू ल्हवू तळयेचीं सोंपणां देवंक लागले. मदींच आज्यान पंकजाक उदकांत धुकल्लो. पंकज उदकांत पडलो. ताच्या नाकातोंडांत उदक गेलें. तो हातपाय आपदूंक लागलो. हातपाय आपटितां आपटितां आपल्याक पेंवंक येता हें ताका कळ्ळें. फाटल्यान आजो उदारो उफेत ताची मजा पळयतालो.



‘पंकज पेवंक येता न्ही?’

‘हय बाबा’! पंकजान म्हळें. आजो आनी नातू पेवंक लागले. पेवन पंकजाक पुरो जालें. तो भायर आयलो. तो भायर येतकीच आजोय भायर आयलो. दोगानीय आंग पुसलें. देवळांत गेले. घरा आयले. दारांतल्यानूच पंकजान  आज्जेक सांगलें.’

‘आई वाड! भूक लागल्या.’

आज्जेन बेगबेगी वाडलें. जेवण सादेंच आसले. शीत, हुमण, उकडिल्ल्यो कुल्ल्यो आनी एक भाजी.

‘म्हाका भाजी नाका.’ पंकजान म्हळें.

‘शूऽऽ! तशें म्हणू नाका . आज्जेक वायट दिसतलें.’ आजी लागींनाशी पळोवन आज्यान म्हळें. पंकजान ओग्गी रावन भाजी तोंडात घाली.

‘शीत, हुमण आनी भाजी कालोवन खा. बरी लागतली.’ आज्यान सुचयलें. आयज पंकज बरेंच जेवलो. जेवण नाका म्हणपी पंकज जेविल्लो. आज्जेक खूब खोस भोगली. मागीर पंकज आज्याबराबर भोवूंक लागलो. आज्यान ताका तोर मर्दी चिरून, भितर मीठ-मिरसांग घालून, चेंपून मागीर ते कशें खावचें तें शिकयलें. ताका काण्णां काडूंक शिकयलीं. घोटां चोखूंक शिकयलें.

‘सांजेर आज्जेन लामणदिवो लायलो. तुळशीकडेन दिवो दाखयलो. तांकां जेवंक वाडलें. सगळ्यांचीं जेवणां जालीं आनी लायट गेली. तरी लामणदिव्याचो उजवाड सगळीकडेन पडटालो. आज्यान पंकजाक भायर व्हेलो. पयसुल्लें एक झाड दाखयलें. तें झाड पिकपीक लायट घाल्लेवरी चकचकतालें.

‘तें झाड कशें चकचकता? नकलामी म्हण्टात त्यो ह्यो काय कित?’

पंकजान विचारलें. 'ना रे! ते चकचकतात ते काजुले. दोन – चार दिसांनी पावस येतलो म्हूण सांगतात.'



'बाबा, भुतां खऱ्यानीच आसतात'? पंकजान विचारलें.

'आमी हांगा बसूया. हांगा वारे येतलें. भितर गुजगुजतले. आतां हांव तुका एक काणी सांगता. ती मदीं प्रस्न विचार नासतना आयक.'

एक आसलो मनीस. तो दुसऱ्या गांवात वतालो. वतां वतां वाटेर रात जाली. रातीकडेन तो गांवचे शिमेर रावलो. फांतेपारार उठून परथून चलूंक लागलो. चलतां चलतां वाट चुकलो. रानांत पावलो, रानांत ताका एक व्हड झाड दिसलें. विसव घेवंक तो झाडापोंदा बसलो. ताका तान लागली. उदक पिवंक मेळिल्लें जाल्यार? ताच्या मनात आयलें. इतल्यान ताका उदकाचो खळखळ आवाज आयकूंक आयलो. ताणें उठून पळयलें. थंय एक झर आसली. तो उदक पिलो. मागीर ताका दिसलें, जेवंक मेळिल्लें जाल्यार? पळेत जाल्यार जेवणान भरिल्ले ताट दिसलें. फाटी–फुडे पळे नासताना तो जेवलो. मागीर ताका दिसलें, हांगा एक कूड आशिल्ली जाल्यार? थंय कूड

जाली. कुडींत खाट आशिल्ली जाल्यार ? थंय खाट जाली. तिचेर गादी. तिचेर उशी. मनांत चित्ता. तें – तें ताका मेळत गेलें. सांज जाली. ताचे पोट भरलें. न्हीद जाल्ली. रातीकडेन ताका न्हीद येना जाली. वांगडा कोणूय आशिल्लो जाल्यार? दोन – तीन दादले आयले. ताचे कडेन उलोवंक लागलें. 'हीं भुतां बी न्ही न्ही?' ताणे चिंतले. ते दादले भुतां जाली. म्हाका हे खांवचे ना न्ही. तांणी ताका खावन उडयलो.

जाल्ले कितें? तो ज्या रुखामुळांत बशिल्लो, तो कल्पवृक्ष आशिल्लो. कल्पवृक्ष म्हळ्यार, ताच्या मुळांत बसून तू जें–जें येवजीता ते तुकां मेळटा. त्या मनशान जशें येवजीले तशें ताका मेळ्ळें.

मनशांचे मन त्या कल्पवृक्षावरी आसता. तू जशें चित्ता तशें तुका मेळटा. आतां तुवे विचारिल्लेवरी काजुल्याचे झाड जर तू भूतांचे झाड समजशी आनी भिशी जाल्यार तुकां सावळी लेगीत भूतां दिसतली. आज्यान ताका समजायले.

पूण तो मानाय सांगतालो चिंचेर भूत आसा म्हूण! खेरीज टि. व्ही. चेर भूतांच्यो कार्यावळी दाखयतात. पंकजान सांगले.

'चूट्टी लाय व्हरून त्या टी. व्ही. क. वाट लायली त्या टिव्हीन तुमची आता. चिंचेवेले भूत ....

'भूतां चड करून चिंचेर रावतात म्हण्टात, कित्याक? चिंचो खांवक?'

आरे, चिंचेच्यो चिंचो कोणे चोरून व्हरू नये म्हूण चिंचेच्या धनयानी अशी हावळ सोडिल्ली आसता. वापरांत नाशिल्ले बंद घर, तांतून कोणे येवन राव नये अशें दिसले, भीतल्ले सामान कोणे चोरू नये अशे दिसत जाल्यार ल्हवूच अफवा सोडची. भूताची.... आज्यान सांगले.

'कोणे ही आयडिया काडल्या, तो तकलेचो फीन आसतलो न्ही?'

पंकजान विचारलें.

'हय तर! शिवाजी महाराजाचे नांव आयकलां मरे? शिवाजीराजा, जो किल्लो जिखतालो, थंयच्या भुतांच्यो गजाली आयकतालो आनी दुसरे दीस थंय खणूंक लायतालो. सपनांत देवीन खणूंक लायला म्हूण सांगतालो. लोक देवीन सांगलां म्हण्टकच थंय भुतांक न भिता खणटाले आनी शिवाजी महाराजाक थंय अचूक पवनांनी भरिल्ले हांडे मेळटाले. शिवाजी महाराजान लोकांची नाडी सारखी ओळखिल्लीं.' आज्यान पंकजाक सांगलें.

'बाबा, हांव तुजे म्हऱ्यात न्हिदू?' ... पंकजान विचारलें.

'न्हीद आज्यान सांगलें.' पंकज आज्या म्हऱ्यांत आंगणात खाटीर न्हिदलो.

'बाबा काणी सांग.'

आजो काणी सांगूक लागलो. 'एक आसलो गांव, त्या गांवांत एक मनीस रावतालो. ताचे नाव सांतू. सांतू सदांच सकाळी उठ्ठालो. रानात वतालो. सुकी लाकडां एकठांय करतालो. तांचे भोरे बांदतालो आनी ते बाजारांत हाडून विकतालो. पयशे मेळटाले. तातुंतल्यान तांदूळ, मीठ, मिरसांग, नुस्तें हाडटालो. मागीर ताची बायल रांदताली आनी सांतू बायले भुरग्यांसयत जेवतालो. ताका लागून तांकां दिसपट्टे एकूच जेवण मेळटालें.

एक खेप सांतून चिंतले, बेगीन उठून रानांत वचप, लाकडां हाडप. तीं विकप. मागीर जेवणाक वगत लागचोना.

दुसऱ्या दिसा तो फांतोडेर उठलो. रानांत गेलो. जळोव एकठांय करूंक लागलो. थंयच्यान लक्ष्मी–नारायण वतालीं. लक्ष्मीक सांतूची काकुळत दिसली. लक्ष्मीन नारायणाक विचारलें,

'देवा, हो मनीस कोण? फांत्यापारार तो रानांत कितें करता?'



नारायणान म्हळे, 'देवी हो मनीस आपलें काम करता. ताका ताचें काम करूं दी. तूं थंय लक्ष दिवं नाका.'

पूण लक्ष्मीन आयकलें ना. ती म्हणूंक लागली, 'देवा, आमी ताका इल्ली मदत करूं या.'

देवान बरे म्हळे. तीं दोगांय भेस बदलून सांतू म्हऱ्यांत गेलीं.

लक्ष्मीन सांतू कडल्यान भरो घेतलो. तिणें सांतूक पवनांनी भरिल्लें तपलें दिलें.

सांतू तें तपलें घेवन घरा आयलो. खोपींत येवन पळेता जाल्यार. बायल घरा ना. ताणें तपलें खोपींत कोनशाक दवरलें. आनी तो बायलेक सोदूंक गेलो.



इतले मजगती तांची शेजान्न सांतूले बायलेक आबोल्याक सोदूंक आयली. तिका सांतूले खोपीच्या कोनशाक उजवाड दिसलो. कितें म्हूण पळेल्यार पवनांनी भरिल्लें तपलें तिणे ल्हवूच तें उबारलें. आपल्या घरा व्हेले आनी ते सुवातेर दुसरे तपलें दवरलें. सांतू बायलेक घेवन घरा आयलो. बायलेक तपलें दाखयलें, पळयत जाल्यार भितर कांयच ना. ते दीस सांतू बायलेन शेजान्नी कडल्यान कणयो मागून हाडल्यो. तांची पेज केली. तो दीस ताणीं पेजेर काडलो. परतून दुसऱ्या दिसा सांतू रानात गेलो. त्याय दिसा ताका लक्ष्मी–नारायण मेळ्ळीं.

लक्ष्मीक अजाप जाले. तिणें देवाक विचारलें.

‘देवा, हांवें हाका कालूच पवनांनी भरिल्लें तपलें दिल्लें आनी आयज परतून हो ह्या रानांत?’

देवान म्हळे, ‘देवी चल, आमी हें ताकाच विचारुया.’ दोगांय भेस

बदलून सांतू म्हऱ्यात गेलीं. तांणी सांतूक विचारलें 'आरे तुकां काल पवनांनी भरिल्लें तपलें दिल्लें न्हय रे?'

'तें कोणेतरी चोरून व्हेले.' सांतून सांगलें.

हे खेपे लक्ष्मीन सांतूक गळ्यांतलो रत्नाचो हार दिलो. सांतून तो माथ्यावयले चुमळेन बांदलो. चुमळ माथ्यार दवरलीं. तो घरा येवकं लागलो. वाटेर एक घोण आयली. तिका दिसले ते चुमळेंत कितें तरी खांवचें आसा. तिणें झोपय मारली आनी ती चुमळ घेवन गेली. ते दीस सांतूक आनी घरच्यांक उपास काडचो पडलो. परतून दुसरे दीस फात्यापारार उठून सांतू रानात लाकडां फोडूंक गेलो त्या दिसा परतून ताका लक्ष्मी–नारायण मेळ्ळीं. लक्ष्मीक अजाप जालें.

'आब्बा! आयज परतून तूं हांगा रे?' तिणें विचारलें.

'हय. कितें करू? तुवें दिल्लो रत्नहार घोण घेवन गेली. हे खेपे लक्ष्मीन ताका नीळ (एक तरेचे वज्र) दिलो. बरो व्हड. सांतून तो वाल्याच्या पोंताक बांदून किरवटेक लायलो.' सांतूक आनी घरच्यांक दोन दीस उपासूच करचो पडिल्लो, म्हणून आयज सांतू बेगी घरा वचूंया अशें येवजून व्हाळांतल्यान वचपाक गेलो. व्हाळांत वतना ताच्या कमराचो नीळ चकचकलो. थंय एक व्हडलें नुस्तें भोवतालें ताणें तो नीळ पळयलो आनी सांतूच्या कमराचो वालो ओडलो तसो वाल्यांतल्यान सुटून पडिल्लो नीळ त्या नुस्त्यान गिळून उडयलो. वालो व्हाळांतल्यान व्हावन गेलो. बाबडो सांतू काश्टेर उल्लो. काश्टी लावन घरा कसो वतलो? म्हूण तो दिसभर गावा भायर लिपून रावलो. रातीकडेन घरा आयलो.

तिसऱ्या दिसाय तांका सगळ्यांक उपाशीं रावचें पडिल्लें.

चवथ्या दीसा परतून सांतू रानांत गेलो. चवथ्याय दिसा परतून सांतूक

रानांत पळोवन लक्ष्मीक अजाप जालें.

तीं दोगांय भेस बदलून ताका मेळूंक गेलीं. तीं दिसले बरोबर सांतून म्हळें.

'सायबिणी, आयज तूं म्हाकां कांय दिवं नाकां. हांव तुजे कडल्यान कांयच घेवचोना. तूं म्हाका कांय विचारूं नाका आनी हांवूय तुकां कांय सांगिना.'

देवान ताका सांगलें 'आमी तुका काय दिना फक्कत हे पन्नास रुपया तू घे.' सांतून फाटींफुडें जायत पन्नास रुपया घेतले. ते घेवन सांतू गांवांत आयलो. ताणें तांदूळ, मीठ, मिरसांग घेतली. एक व्हडलें नुस्तें घेतलें. घरा आयलो. घरा येवन ताणें बायलेक सांगलें 'बेगीं, बेगीं, रांद.'

बायलेन म्हळे, 'रांदूक लाकडां खंय आसात?'

तांचे खोपी कुशीक एक झाड आशिल्लें. ताची वयली खांदी सुकिल्ली. सांतून म्हळें. 'हांव वयर चडून ती खांदी कापून हाडटा.'

सांतू झाडार वयर चडलो. पळयत जाल्यार वयर तेंगशेर हाराची चुमळ आसा. सांतू आड्डलो. दिसलें गे ऽऽ दिसलें!

सांतूचे शेजान्नीलें घर शिवताले. सांतू वयर चडलो तेन्ना ताका तपलें दिश्टी पडलें अशें शेजान्नीक दिसलें. तिणें ल्हवूच सांतूलें तपलें सांतूच्या घरा हाडून दवरलें आनी आपलें तपलें घरा घेवन गेली.

सांतू रत्नांचो हार घेवन सकयल देवलो. हेवटेन सांतूली बायल नुस्तें उजरांवक बशिल्ली. पळयत जाल्यार नुस्त्याच्या पोटांत नीळ.

अशे तरेन सांतूक लक्ष्मीन दिल्ल्यो तिनूय वस्तू परत मेळ्ळ्यो. तो खोशी जालो.

खूब दीस जाले. सांतू रानांत येवक ना. लक्ष्मी-नारायण सदूदा रानातल्यांन वतालीं. लक्ष्मीन म्हळें,

देवा, सांतूले किते जाले काय? म्हाकां ताचो हुस्को दिसता.

देवान म्हळें, 'देवी, तुका हुस्को दिसता जाल्यार आमी गांवांत वचूंया आनी ताका पळोवन येवया.' देखून दोगांय भेस बदलून गांवांत गेलीं.

पळयत जाल्यार, सांतू भाटकार जाला. घरांत एक व्हड दोस्तेर घालून बसला. तें पळोवन नारायणान लक्ष्मीक सांगले.

'तो पळय सांतू! तो आतां केन्नाच रानांत येवचोना. तो गिरेस्त जाला. तुवें तागेल्या भऱ्यांचे मोल हिसपाभायर दिलें. तेन्ना ताका उपास काडचे पडले. देखून जे वस्तीचें जितलें मोल तितलेच पयशे दिंवचे. हिसपाभायर मोल दिल्यार ताची माती जाता.' आज्याची काणी सांगून सोपली.

'बाबा, हें मात सामकेच खरें.' पंकजान म्हळे.

'किते रे तें?'

'हिसपाभायर मोल दिल्यार ताची माती जाता. तशेंच जाय तशें सगळें मेळत गेलें जाल्यार ताचीय माती जाता.' पंकजान म्हळे.

'अशें कित्याक म्हण्टारे तू?'

'बाबा, दनपरां हांव भिमागेर गेल्लो. ताच्या घरांत तो आनी ताची चार भुरगीं रावतात. ती च्या पितालीं. ते च्यायेक दूद नासले. साखर उणी आसली.'

'धनयानो, च्या पिता?' भिमाले घरकान्नीन विचारलें.

'हांवे म्हळें दी.'

तिणें दोण्यांत घालून च्या दिली. हांव पिलो. म्हाकां ती बरी लागली. हावें तिका विचारले हांतून कितें घाला? 'तिणे सांगले गंजन, तुळशीपाना, वट्टेलाव.....'

'बाबा, म्हाकां हें गंजन, वट्टेलाव कितें ते दाखय आं.... दुसरी गजाल म्हजी मम्मी म्हाकां पिंवक कितें कितें हाडून दिताली. त्यो बाटल्यो तश्यो घरा पडून आसात. म्हजो मम्मी – पप्पा म्हाकां दित गेले आनी हांव तांची माती करीत गेलो..... म्हाका मेळत गेलें, ताचे मोल म्हाकां कळ्ळेच ना.....' पंकजालें दोळे भरून आयले.

आज्यान ताका कुशीक घेतलो, थापटिलो. पंकज आज्याच्या कुशीक ओग्गी न्हिदलो.

आज्या वांगडा पंकज आता बरोच रमलो. शेजारच्या घरांतलीं भुरगीं तांगेर येतालीं. तीं भुरगीं आनी मानायाची भुरगीं वांगडा खेळटालीं. आजी लेगीत पंकजाक एकल्याकूच खांवक केन्नाच दिनासली. ती ताच्या बरोबरच्या भुरग्यांकुय खावंक दिताली. पंकज घरादाराक आस नासलो. गांवांत कोणागेर पावलो तागेर पावलो, मागीर कोणागेर पेज जेवतालो, कोणागेर केळी पानार उकडे शीत, तांबडे तिखट कडये वांगडा जेवतालो. जाल्यार कोणागेर खुटी च्या पितालो.

शारांतल्यो जायत्यो गजाली तो गांवच्या भुरग्याक सांगतालो, देखून तो तांचो हिरो जाल्लो. ताणें तांकां क्रिकेट खेळूंक शिकयलें आनी गांवच्या भुरग्यांनी ताका आट्यापिट्यांनी खेळूंक शिकयलो. झाडार चडूंक शिकयलो. नाल्ल सोलूंक शिकयलो. इतलेच न्ही न्हावन जातकीच आपली मुस्तायकी धुंवक लेगीत तो शिकलो.

आता आज्जेकूय तो पसऱ्यावेल्यान सामान हाडून दितालो. आज्या वांगडा गरोवंकूय वतालो. आज्जेक घेवत देवळांत वतालो आनी आज्जेक विचारतालो, 'तूं हो कसलो कुकुम लायता? मम्मीवरी तिकली कित्याक लायना? तूं णववारी कापड कित्याक न्हेसता? साडी कित्याक न्हेसना? तूं घरात कशी बसून रावताली? नोकरी करीनासली?'

आजी म्हण्टाली, 'शाण्या, कितले प्रस्न रे? आनी हांव नोकरी कशी करतली? म्हाका कोणें शाळेंत घातलेंच ना. बारावे सरून, तेरा वर्सा जातकूच लग्न जालें. लग्न करून ह्या घरांत हाडलें आनी हांगाचे जालें. कुळारा ना आवय ना बापूय ....... हेंच घर..... हेंच घर आता कुळार आनी घोवाघर. हांगाच संवसार केलो. स भुरगीं जालीं. तीन चले आनी तीन चलयो... चलयो लग्न जावन घोवाघरा गेल्यो. चले शिकले सवरले. पांखां फुटलीं आनी उडून गेले. आमी दोगांय म्हातारी उरलीं. हांगां आसात एकमेकांच्या आदारान. आतां जाण्टेपण आयलें. केन्ना कोण मरत सांगूंक जायना... कोण पयलीं मरता तो नशीबवान. दुसरो उरता तो उरलो..' आज्जेन दोळ्यांक पदर लायलो.

'आई, तू कित्याक भिता? हांव रावतलो तुमचे वांगडा! हांव परतून पप्पा – मम्मी म्हऱ्यांत वच्चो ना.' पंकजान अशें म्हणटकीच आज्जेन ताका लागीं ओडलो. कुशीक घेवन ताची रस्त्यारूच पापी घेतली. पंकजाक लज दिसली. ताणें आज्जेक विचारलें 'आई, तूं देवळांत कित्याक वता?'

'देवळांत एक मनीस आयला. तो कीर्तन करता. देवाचें नाव घेवप जाता. या उतारवयात तितलोच सत्संग.'

'आजी सत्संग कित्याक करूंक जाय? लोक सत्संग कित्याक करतात?' पंकजान आज्जेक विचारलें.

'होच प्रस्न एकदा नारदाक पडिल्लो. नारदान हो प्रस्न विष्णूक विचारलो. ताची काणी हांव तुकां सांगतां' अशे म्हणून आजी ताका काणी सांगूक लागली.

'एकदा कितें जाले, नारद नारायण ऽऽ नारायण ऽऽ करीत भोंवतां भोंवतां चितूंक लागलो. सगळे म्हण्टात की साधु–संताचे दर्शन घेवचें. सत्संग करचो. सत्संग केल्यार कितें जाता काय?' हें येवजून नारदमुनी विष्णूकडे

गेलो.

'नारदा, आयज सकाळीं सकाळीं हेवटेन सो? सगळे बरें चल्लां मरे?' देवान विचारलें.

'हय देवा!'

'मागीर?'

'एक प्रस्न आसलो.' नारदान म्हळे.

'कसलो?'

'देवा, सत्संग म्हळ्यार बऱ्या लोकांवांगडा कित्याक रावंक जाय? साधू-संताचे दर्शन कित्याक घेवंक जाय?' नारदान विचारले.

देव हांसलो. देवान म्हळे, 'नारदा तूं हें म्हाका विचारता? तूं अशें कर. धर्तरेर वच. धर्तरेर वतकीच तुकां जो पयलो शेणाचो थापो दिसता, थंय उबो राव. त्या थाप्यांत एक किडो आसा. त्या किड्याक वचून विचार.'

नारदाक दिसलें देवाक जाप दिवपाची ना. तेन्ना तो शेणांतल्या किड्याक विचार म्हण्टा. शेणांतलो किडो म्हाका कितें जाप दितल्लो? पूण करतलो कितें? देवान विचार म्हळां. विचारचेंच पडटलें. नारद रोकडोच धर्तरेर गेलो. पयलो शेणाचो थापो दिसलो, थंय उबो रावलो. तांतूत एक किडो आसलो. त्या किड्याक नारदान विचारले.

'हे किड्या, सत्संग कित्याक करूंक जाय?'

नारदान इतलें विचारलें मात, तो किडो फडफडून मेलो.

नारद परत विष्णू लोकांत गेलो. देवान नारदाक विचारलें 'नारदा तुका जाप मेळ्ळी?'

'खंयची जाप देवा? हावें त्या किड्याक विचारलें पूण ताणें कांय

सांगलेच ना. आनी वेल्यान तो किडोच मेलो. फडफडून मेलो.' नारदान सांगलें.

देव हांसलो. देवान म्हळे. 'कांय हरकत ना.'

'पूण देवा, म्हज्या प्रस्नाची जाप?'

'तूं परतून धर्तरेर वच. थंय एका भाटकारागेर पांजऱ्यात एक कीर आसा. त्या किराक वचून विचार.'

नारद परतून धर्तरेर गेलो. ताणें सावकारालें घर सोदून काडलें आनी पांजऱ्यांतल्या किराक विचारलें 'सत्संग कित्याक करूंक जाय?'

नारदालो प्रस्न विचारून सोंपलोच ना. त्या किरान पांय ताणलें, दोळे वयर केले, चोंच उगडी करून मरून पडलो. नारदाक अजाप जालें.

नारद परतून देवा म्हऱ्यात गेलो आनी देवाक सांगलें. 'देवा परतून तशेंच जालें. हावें त्या किराक विचारलें मात तो किरूच मेलो.'

देवान म्हळे 'कांय हरकत ना. आतां तू परथून धर्तरेर वच. थंय एका शेतकामत्यागेर गायेक एक पाडूक जालां. त्या पाडकाक वचून तूं हो प्रस्न विचार.'

नारदाक दिसलें झक मारली आनी देवाक हो प्रस्न विचारलो. सरळ सरळ जाप बी देव दिना. वेल्यान धर्तरेर वच हाका विचार, ताका विचार म्हण्टा. पूण आतां करतलो कितें? इलाज नासलो.

नारद परतून धर्तरेर गेलो आनी त्या शेतकामत्याचें घर सोदून काडलें. खऱ्यांनीच त्या शेतकामत्यागेर गायेन एका सुंदर पाडकाक जल्म दिल्लो. नारद भीत भीत त्या पाडका म्हऱ्यांत गेलो आनी त्या पाडकाच्या कानांत ताणें विचारलें 'पाडका, म्हाका सांग, सत्संग कित्याक करूंक जाय?

नारदान इतलें विचारले मात, तें पाडूक फडफडून मेलें.

नारदाक वायट दिसले. तो शेतकार भायर येवचे पयली नारद थंयच्यान पळून आयलो.

दुखेस्त जाल्लो नारद देवा म्हऱ्यांत वचून ओग्गी उबो रावलो. देवान नारदाक पळयलो आनी विचारलें 'नारदा, कितें जालें?'

'कितें जातलें? ते बाबडें सुंदर पाडूक फडफडून मेलें.' आयकून देव फकत हांसलो.

'देवा, तू फकत हांसत राव. म्हज्या प्रस्नाची जाप मात दिवं नाका.' नारदान म्हळें.

'बरे, आतां एक काम कर. काशीक एक राजा आसा. ताका आयजूच पूत जाला. ताका वचून तू हो प्रस्न विचार' देवान म्हळें.

नारदान म्हळे, 'देवा तुवें केल्लीं फकाणां खूब जालीं. त्या काशीच्या राजागेर ना ना म्हूण कितल्याशाच वर्सांनी भुरगो जाला. हांव थंय गेलो. ताका होच प्रस्न विचारलो आनी तो मेलो जाल्यार? नसतें लचांड म्हज्या आंगार येतलें. सगळो लोक म्हाका गाळी घालतले. झक मारूं, हांव आता आनी खंयच वच्चों ना.

'मागीर तुज्या प्रस्नाच्या जापेचें कितें?' देवान विचारले.

'झक मारू ती जाप.'

'नारदा, अशें करूं नाका. आतां फकत एकूच खेप तू धर्तरेर वच. त्या कुंवराक तूं ही जाप विचार. ताका एकल्याकूच कुडींत घे आनी ताका विचार. हे खेपे काय जांवचेंना. तो राजकुंवर मरचो ना. हांव सांगता न्ही तुका? तुजो म्हजेर विश्वास ना?' देवान विचारले.

'आसा देवा! पूण...'

‘पूण बीण कांय ना. तूं वच.’

देवान अशें म्हण्टकीच नारदाक निरुपायान धर्तरेर वच्चे पडले. मनांत नासतना तो काशीक गेलो.

नारदाक पळोवन काशीच्या राजाक खूब खोस जाली. काशीच्या राजान नारदाक म्हळें. ‘देवर्शी, तुमी आमगेर आयले, बरें जाले. म्हगेर खूब वर्सांनी पूत जाला. राज्याक राजकुंवर मेळ्ळो. ताका तुमी आशिर्वाद दियात.’

नारदान म्हळे, ‘राजकुंवराक एके कुडींत दवरात. थंय कोण रावं नाकात. हांव ताका आशिर्वाद दिता.’

काशीचो राजा खुशालभरीत जालो. ताणें एके कुडींत राजकुंवराक दवरलो आनी ते कुडींत नारदाक व्हेलो. नारदान त्या कुवरांक पळयलो. नारदाक प्रस्न विचारीन दिसलो. पूण नारदान प्रस्न विचारलो ना. प्रस्न विचारलो आनी फटकन हो कुंवर मेलो जाल्यार? नारद चिंतूक पडलो.

तें पळोवन तो कुंवर हांसलो. त्या धाकल्या बाळकान नारदाक विचाल्ले.

‘नारदमुनी, सत्संग कित्याक करूंक जाय न्ही? मुनीवर, तुमी म्हाका वळखले ना? हांव तो.....शेणाच्या थाप्यांतलो किडो. तुमचें दर्शन जालें. हांव मेलो. किराच्या जल्माक आयलो. परथून तुमचे दर्शन जालें. सत्संग घडलो. पाडकाचो जल्म मेळ्ळो. परतून तुमचो सत्संग घडलो. तुमच्या तोंडांतलीं दोन उतरां आयकलीं आनी पळयात आतां हाव राजकुंवर जालों. सत्संग कित्याक करचो हें आतां तरी कळ्ळे न्ही तुमकां?’ राजकुंवरान विचारले.

आज्जेली काणी पंकज लक्ष दिवन आयकतालो. तिगेली काणी सोंपतकीच पंकजान विचारलें, ‘आई सत्संग केलो काय खऱ्यांनीच पातकां

उणीं जातात?'

'कांय खबर ना बाबा! पूण एक देवळांत वचून बसलें, किर्तन आयकलें काय मनाक बरें दिसता. किर्तन करपी मनीस चार शाणेपणाच्यो गजालीं सांगता. हे असले प्रस्न तूं तुज्या आज्याक विचार. ते तुका सांगतले.' आज्जेन सांगले.

'तू हांगाच बसून राव आं. रातीकडेन आमी तुकां व्हरूंक येता.' पंकजान आज्जेक सांगलें. आज्जेक देवळांत पावोन पंकज घरा आयलो. घरा आजो ताची वाट पळेतालो.

'आरे, तुजी आजी खंय?'

'किर्तनाक गेल्या.'

ही आनी एक. आतां घरा येवन म्हण्टली खंयचे पाय फोडटा, खंयची कमर दुखता, खंयची दिमयेक सूज आयली.. आजो बडबडटालो.

'बाबा, तिका अशें म्हूण नाकां. ती चलता तितली बरी न्ही? तिचे भितरलें रगत घोळटलें. हांव जाल्यार म्हण्टा, सदूदां सांजेर तुमी तिका घेवन देवळांत वचूंक जाय आनी घरा हाडूंक जाय.' पंकजान म्हळें.

'सगळ्यांनी म्हाका शिकोवन जालें. आता तूं म्हाका शिकय.' आज्यान हांसत म्हळें.

'बाबा, आई घरा येतासर रात जातली. तिचे पांय बी दुखतले. आमी दोगूय मेळून रांदूया? बाबडी आजी! लग्न जावन येत सावन तिणें फक्कत रांदचें काम केलां. आयज आमी रांदूया. तिका बसून जेवंदी.' पंकजान आज्याक सांगलें.

आज्याक अजाप दिसलें. जेन्ना सुनेन पत्र बरोवन पंकज अशें अशें म्हण्टा म्हूण कळयल्ले, तेन्ना आज्याक दिशिल्लें इल्लोसो पोर आनी अशें

केन्ना म्हण्टलो? पूण आतांच्या ताच्या वागण्या वेल्यान आज्याली खात्री जाली. हो भुरगो दिसता तितलो बाबत ना. दोगूय रांदचे कुडींत गेले. पळयत जाल्यार चटणी वाटून दवरिल्ली आसा. सुंगटाचे तोंडाक आसा. पोळ्यांचे पीठ तयार आसा. म्हळ्यार आजी येतकीच पोळे काडपाची.



आज्यान आनी नातवान मेळून पोळे काडले. आजी पोळे पुनवेच्या चंद्रावरी काडटाली. हांचे पोळे अमिबा कशे जाले. तांणी पोळे धांपून दवल्ले आनी ते दोगूय आज्जेक हांडूक गेले.

'आयज किर्तनकारान बरी काणी सांगली. म्हाका ती आवडली. हांव ती तुमकां सांगूं?' आज्जेन विचारलें.

आज्यान आनी नातवान एकमेकांकडेन पळेले. आज्यान म्हळें 'सांग.'

आज्जेन काणी सांगूंक सुरूवात केली.

'एक आसलो गांव. त्या गांवाचे नाव धनपूर. धन म्हळ्यार पैसो. धनपूर गांव खरोच पयशेकारांचो गांव आशिल्लो. धनपूर गावांत रावपी लोक सुखी

आसले. त्या गांवच्या लोकांकडेन रावंक घरदार आसलें. शेतां-भाटां आसलीं. सांगचेच म्हळ्यार धनपूर गांव खऱ्यानीच धनी लोकांचो आसलो. त्या गावांत एक भट रावतालो. ताचें नाव रामभट. तो एकलोच मनीस त्या गावांत गरीब आसलो. ताचें घर लेगीत सारकें नासले. साद्यो मातयेच्यो चार वणटी. त्या भटाक सात भुरगीं.

गावांत महालक्ष्मीचे देऊळ आशिल्ले. त्या देवळांत रामभट पूजा करी. देवी म्हऱ्यात घाल्लो पै पयसो, नाल्ल, तांदूळ बी ताका थोडें मेळ. कोणे संकश्टी केली तर तो पुजेक वतालो. कोण सत्यनारायण करी. कोणालीं लग्नां आसताली. कोणाले घरपुरुस आसताले, तेन्ना रामभटूच तांचो भट आसतालो. अशें कितेय जालें काय ताका चार पयशे मेळटाले.

ना म्हळ्यार चवथीकडेन ताका बरो पयसो मेळटालो. कित्याक तर घरानघर गणपती आसतालो आनी सगळ्यांक भट लागतालो. पूण इतले येणावळीत ताचें आनी ताच्या घराच्याचेच पोट भर. आनी कितें करतलो म्हळयार पयसो पावनासलो.

रामभटालो व्हडलो चलो बारा वर्सांचो जाल्लो. ताका ताची मूंज करची आसली. पूण गांठीक पयसो ना. करतलो कितें?

त्या गांवाभायर आनी एक देवूळ आसले तें देवूळ आसले मरी आईचे. ह्या मरीआईची कोण केन्नाच पुजा करी नासलो. कारण तिची पुजा केल्यार केन्नाच कोणालें बरें जायना, ही मरीआई आशिल्ले कडेन दळडीर रोगराय आसता असो समज आसलो. तेखातीर तें देवूळ अशेंच पडून आशिल्लें.

रामभटान पळयलें, ह्या मरीआईची पुजा कोण करिना. एक दीस तो उठलो. मरीआईच्या देवळांत गेलो. ताणें त्या देवळांत सान्न मारलीं. घोयरांव जाल्लो तो काडलो. पारव्यांनी हळशीक केल्ली, ती काडली. देवूळ बरे धुलें. मरीआई म्हऱ्यांत पणटी पेटोवन दवरली. तिका हळदकुंकूम घालो. तांबडीं

फुलां घालीं. उजवाती लायल्यो. मरीआई मनांतल्या मनांत खूश जाली. ती चिंतूंक लागली, कोणें म्हजो उगडास केलो काय...? कोणें म्हज्या म्हऱ्यांत दिवो लायलो काय...? कोणें म्हाका फुलां घालीं काय...? हो कोण?

दुसरे दीस मरीआई सक्काळी फुडें देवळांत येवन बसली. कोण पुजा करता म्हूण पळयत जाल्यार, रामभट!

'हो रामभट म्हजी पुजा करता तर!' तिणे मनात म्हळें.

बाकी सगळ्यो देव-देवता बारा वर्सांनी प्रसन्न जातात. मरीआई रामभटाक बारा म्हयन्यानीच प्रसन्न जाली. तिणें रामभटाक विचारलें, 'रामभटा, तुका कितें जाय ते माग.'

रामभटान तिचेकडेन वर मागलो. जालें दुसरे दिसाच्यान रामभटाचे दीस बदलूंक लागले. रामभटाकडेन ल्हवल्हवू पयसो येवंक लागलो. ताची भुरगीं सदांच दुयेंत आसताली तांचे आरोग्य सुदारलें. ताच्या मातयेच्या घरा सुवातेर व्हड घर आयलें. ताणे शेतां विकतीं घेतलीं. कुळागरां विकतीं घेतलीं. गावांतल्या कितल्याशाच लोकांपरस हाचेकडेन पयसो चड जालो.

गांवच्या लोकांक अजाप दिसलें. हो हाडकुटो भट गुटगुटीत जालोच कसो? मागीर लोकांच्या लक्षांत आयले. हो रामभट मरीआईची पुजा करूंक लागलो आनी भाटकार जालो.

रामभटाची गजाल गांवभर पावली. दुसरे दिसासावन गांवचो सगळो लोक मरीआईच्या देवळांत वचूंक लागलो. मरीआईची पुजा करूंक लागलो.

मरीआईची पुजा करतां करतां लोक दुयेंत जांवक लागलो. तांगेर रोगराय येंवक लागली. लोक गरीब जांवक लागलो. आरे, अशें जालें कशें? रामभट मरीआईची पुजा करून पयशेकार जालो आनी आमी मात गरीब जाले! मागीर गांवच्या लोकांनी पंचायत आफयली. तातूंत तांणी रामभटाक

बी आपयलो. सरपंचान रामभटाक विचारलें.

'तूं मरीआईची पुजा करून पयशेकार जालो म्हूण आमीय मरीआईची पुजा केली. जाल्यार आमी दळदिरे जाले. हें अशें कशें जाले?'

रामभटान विचारलें, 'तुमी मरीआईकडे कितें मागलें?'

'आमी तिका सांगलें तूं आमचेर प्रसन्न जा. तुजो सदांच आमचेर मोग उरूं.'

पूण म्हाकां जेन्ना मरीआई प्रसन्न जाली तेन्ना हांवें तिका सांगले, तूं चुकून लेगीत म्हज्या घरा येवं नाका. चुकून लेगीत म्हजेर मोग करू नाकां. ताका लागून म्हजी दळदिरीपणां गेलीं. तुमी देवी लागीं तिची कृपा मागली. तेन्ना तुमची ही अशी दशा जाली. तुमकां मरी आईलागीं मागणें मागूंक आयलें ना. ताका हांव कितें करूं?'

आज्जेची काणी सांगून सोपली. पंकजाक काणी आवडली. ती काणी फाल्यां तो आपल्या मित्रांक सांगपाचो आसलो.

घरा येतकीच सगळ्यांनी हात-पाय धुलें. पंकजान चटणी हाडून दवरली. गॅस लावन तोंडाक हून करूंक दवरलें. पोळे करूंक म्हूण आजी बेगीबेगी रांदचे कुडीत गेली. जाल्यार पोळे तयार आसात. तिगांय जेवली. जेवन खावन भायर येवन बसतकीच पंकज तेल घेवन आयलो. आज्जेच्या पायांक लांवक लागलो. आज्जेच्या दोळ्यांतल्यान फक्कत दोन दुकां गळ्ळीं.

दुसरे दीस सकाळी पळयत जाल्यार पंकजाले मम्मी - पप्पा हजर. मम्मी पप्पाक पळोवन पंकजाक खूब खोस जाली. आनी तब्येतीन सुदारिल्लो पंकज पळोवन मम्मी-पप्पा खूश जालीं.

'सोमारच्यान शाळा सुरू जाता न्ही. म्हूण आमी पंकजाक व्हरूंक आयिल्ले...' पप्पान बाबाक सांगलें.

'बरें जालें! त्या निमतान तरी तूं घरा पावलो.' आज्जेन पुताक म्हळें.

रातीकडेन सगळी बशिल्लीं. तेन्ना पप्पान पंकजाक सांगले, 'पंकज सामान पॅक कर. फाल्यां सांजे आमकां वचूंक जाय.'

'आमकां न्ही! तुमकां. तूं आनी मम्मी वचात. हांव येंवचो ना. हांव हांगा आजे – आज्या म्हऱ्यांत रावतां.' पंकजान सांगलें.

'आनी तुजी शाळा?' पप्पान विचारले.

'हांव हांगाचे शाळेंत वतलों.'

'हांगाचे शाळेतलें शिक्षण कसलें तें खबर आसा मरे?..' पप्पान विचारलें.

'पप्पा, तुमी काका हेच शाळेंत शिकून व्हड जाले न्ही?' पंकजान म्हळें.

'बाबा, आई, तुमी तरी ताका चार उतरां सांगात.' पप्पान म्हळें.

'म्हाका कोणें कांय सांगची गरज ना. हांव व्हड जाला म्हाकाय आतां समजता. हांव फकत ह्या घरांतलो नातू न्हय. सगळ्या गांवाचो नातू. ह्या गांवच्या खंयच्याय घरांत कितेंय शिजूं, ते ह्या नातवाक पावता. कोणागेरूय सुंगटां, कुल्ल्यो ना जाल्यार हेर बरें नुस्तें आसूं, म्हजो वांटो कुशीक काडिल्लो आसता. कोणागेरूय पणस कापू, गरे म्हजे खातीर सांबाळून दवरिल्ले आसतात. वाटेर मेळिल्ली म्हातारी गावडी किरवटीचे ताज्जे बिबे म्हज्या हातार उडयता... पप्पा हांगाचो लोक म्हाका आवडलो... गांव म्हाका आवडलो... हांव हांगाच रावतां... प्लीज.. नाका म्हणू नाका. आनी पप्पा, आई – बाबाक म्हातारपणांत कोण आसात? तुमी तीग भाव.. तीन दिशांनी तिगूय गेले... आई–बाबांक आदार जाय न्ही? आतांच हावें बाबाकडल्यान शिकूंक सुरूवात केल्या. म्हाका आनी जाय तें शिकचें आसा... धावी पास जावन शेतकी कॉलेजीत वच्चें आसा. .. हरशीं म्हूण तुमी म्हजेबराबर घरा

कितलोसो वगत आसतात....? हांव हांगा रावलो आनी घरा रावलो कांय फरक पडचो ना. म्हज्या निमतान तुमी गांवात तरी पावतले.' पंकजान एका दमांत ताका कितें दिसता ते सांगलें.

पप्पा – मम्मीन पळयलें, पंकजान सगळें थारावन दवरिल्ले आसा. तो जे कितें म्हण्टा तें खरें आसा. तुजे कितें म्हणूणे? पप्पान मम्मीक विचारलें.

'हांव कितें म्हणूं? गायचो पाडो खयूंय वाडू! पूण बरो करून वाडू.' मम्मीन म्हळें.

'मागीर हांव हांगचे शाळेचो फॉर्म घेवन येवं?' पंकजान विचारले आनी तांच्या हय ना ची जाप पळय नासताना शाळेचो फॉर्म हाडूंक तो धांवलो.








# भूमि प्रकाशन

सावर्शे, सत्तरी - गोंय. फोन : 2364911


## : आमचीं पुस्तकां :

आनी, एक बुटो फुल्लो - प्रा. प्रकाश वजरीकार

जल्मफेरे - दुर्गादास गावडे

पंकज - शीला कोळंबकार

दानाहकीम - किरण म्हांब्रे

दवरणें - प्रा. प्रकाश पर्येकार

